

# स्पन्दन

भास कोंकणी आवसु आमची। लिपि देवनागरी उडगासु दवराची।।

Date of Publication :


























# केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्ची

पाँच रुपया

मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

उप संपादक
पी. मनोहर

कोशाधिकारि
के. विजयन

वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राव

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521


**मुखचित्र** : अ. भा. कोंकणी परिशदेचें 31 वें अधिवेशन मुंबय (महाराष्ट्र राज्य भारत स्कऊट्स अनि गायड्स हाळ, शिवाजी पार्क) दवोर्नु 2018 जनुवारि 6, 7 दिस्सांकडे जल्लें। एद्दीं चित्रँ (आभार : एन. बालकृष्ण मल्ल्या, कोच्ची)




प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-


# स्पन्दन


प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची

**SPANDAN**
Published by :
KERALA KONKANI ACADEMY
8/28, 'Santhery', 1st Floor,
Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,
Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

खंड : 7 अंक : 2 1939 माघ


## संपादकीय

भासेन बोरोंवका म्होण दिस्सना पडेन अम्मि इत्ती कोरका ? मलयाळम लिपीन बोरोंवचाक वोगी जातेने। जाल्यारीय इत्तीनेन एक ऊणावु दिस्सता। भासे जीवु गेलेल मणके आसा। भासे जीवु केदाण मेळता, ते भासे लिपीन बोरोंवचेवेळे मेळता। संगताय इत्ती म्हळयारि, आवय भास देवनागरी लिपीन तं बोरोंवका। तवळ तं ते भासेचे सौन्दर्य सग दिकूक जात्तले। तवळ तं कोंकणी भास उलौंचाकय, सगटांक वचूकय जत्तले। कोंकणी भासेक बल मेळतले। कोकंणी भास उलौंचाक एक ऐक्य येत्तले।

कोच्ची,
01-02-2018

सुरेश ए. शेणै,
मुखेल संपादक.



14.1.18 सेय्न्ट जोसफ हायर सेकण्डरि स्कूळ, कुरियच्चिरा (तृश्शूर):- केरळ योगा असोसियेषनान आयोजित केल्लेले 2017-18 चे संस्थान-तल योगासन चाम्प्यनषिप्पान्तु कोच्चीचे नन्दकुमार एस. शेणै हंका Veteran Men (50-60) विभागान्तु प्रथम पुरस्कार प्राप्त जल्लो।



28, 29, 30.12.17 श्री सरस्वती विद्यामन्दिर कारिकोड (कोट्टयम): भारतीय विद्या निकेतन संस्थान कलोत्सव (सर्गोत्सव 2017) न्तु शास्त्रीय संगीतान्तु (म्हण्णि) किशोर विभागान्तु प्रथम पुरस्कारु मेळ्ळोलो कु. सूर्य किरण सी.आर.। चालक्कुडि व्यास विद्यानिकेतन सेन्ट्रल स्कूळान्तु णवेव्यांतु सिक्कता।



2017 डिस्संबरान्तु चेन्नै दवोर्नु जल्लेले दक्षिण मेखला अन्तर्सर्वकलाशाला युवजनोत्सवान्तु वाद्योपकरण विभागान्तु (मृदंग) कु. अभिमन्यु एस. कम्मत हक्का प्रथम स्थान प्राप्त जल्लें। तृप्पूणित्तुरा सुरेन्द्रनाथ कम्मत्त अनि अनिता हंगेलो सुपुत्रय, कोच्ची बालकृष्ण कम्मत्त हंगेलो (मृदंगान्तु) शिष्यूयि तॅ। अमृतपुरीचे अमृता विश्वविद्यापीठान्तु बी.टेक (Mechanical Engg.) क सिक्कता।



7-12 Jan 18, कोयम्बत्तूर दोवोर्नु जल्लेले देशीय जूनियर पवरलिफ्टिंग मत्सरान्तु (84 Class विभागान्तु) 512.5 Kg. भारु उब्बार्नु रेकोर्ड सेय्त भंगरा पतक घेत्तली कोच्ची अमरावतीचि रेवती प्रकाश। प्रकाश एस. एस. अनि रति हंगेली धूव।

20, 21 जनुवरि 2018 कोंकणी भाषा भवन, कोच्ची :- कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे सुवर्ण जूबिलि अनुबन्ध जाव्नु 20 तारिकेक कोंकणी भक्ष्यमेळा, पुस्तक प्रदर्शन, कला-सांस्कारिक कार्यक्रमु जल्लो। 21 क भक्ष्यमेळा, संजेचे सभा कार्यक्रमान्तु एन.एम. सरस्वती बाई पुरस्कार वितरण, भाषे बगेक प्रयत्न केल्लेले म्हलगड्यांक आदरु इत्यादि कार्यक्रमय अस्सिलें।

6, 7 जनुवरि 2018, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदाचे 31 वें अधिवेशन, कोंकणी भाशा मंडळ, महाराष्ट्र संस्थाय एकडे मेळनु मुम्बै महाराष्ट्र स्टेट भारत स्कौट्स एण्ड गाय्ड्स हाळ, शिवाजि पार्क हंगा चम्कीले। संमेळनाचे अध्यक्ष पय्यन्नूर रमेश पै अस्सिले। दोनि दिवसाचे सत्रान्तु भासाभास, कवि संमेळन अनि सांस्कृतीक कार्यावळ इत्यादि अस्सिलें। संमेळनान्तु 1) कला काव्य (कविता संग्रह) - कलाकान्त 2) नवतरंग (काणियो) - पी. गोपिनाथ कामत (दोन्नीयि केरळ कोंकणी अकादमी प्रकाशन) 3) सीता स्वयंवर - ए. पी. भानुप्रकाश 4) श्री दत्तात्रेय देव अवतारु - ए. पी. भानुप्रकाश 5) शिल्प काव्य - माया खरंगटे 6) ऑथेलो - कृष्णा कारवार इत्यादि पुस्तकांचे अनि स्मरणिकेचे विमोचन जल्लें। सुमार 25-30 केरळची प्रतिनिधिं अस्सिलीं।

## संत केशवदासालि हितोपदेश कथा – 31

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

### "राम दरबारान्तु सूणे न्यायु मागता"

एक समयारि एक सूणे वट्टेचे अरगीन निद्देतालें। एक पुरोहितान बडियेन ताजे मत्यारि अकारण मारलो। रक्त व्हंवचे सूण्यान रामाले न्याय-दरबारा लगि येव्नु दोर ओड्डूनु होडि घाण्ट मारली अनी निज शिकायत सांगलें। श्रीरामु सीता अनी सहोदर सहित दरबारान्तु आयलो अनी रक्त व्हंवचे सूण्याक दिकलें। सूण्यान सांगलें, "प्रभो, तुगेले राज्यान्तु नीति-न्यायु असा म्हणु सांगतायि, परन्तु आजि हांवं वट्टेचे अरगीन निद्देताना पुरोहितान निरपराध मेज्जे मत्यारि बडियेन मारलो। प्रभो, हे अपराधाक तूवें विधिवत् दण्ड दींवका।" सूण्यालें उतरं अयकूनु रामान ते पुरोहिताक दरबारान्तु हाज़िर कोरूक दूतांक पेटेयले। दरबारान्तु पावलेले पुरोहितान निज अपराधु स्वीकार केल्लो। रामान सूण्यालगि प्रश्नु केल्लो, "पुरोहिताक कसलो दण्ड दिल्यारि तुका सन्तोषु जत्तलो?" सूण्यान सांगलें, "प्रभु राम, ताका एक होड मठाचो प्रधान पुरोहित कोर्का। हाका योचि उचित दण्ड।"

सूण्याले वचन अयकूनु सर्वांक आश्चर्य जल्लें। रामान तजें कारण स्पष्ट कोरूक सांगलें। सूण्यान सांगलें, "प्रभो, पूर्वजन्मान्तु हांव एक विशाल मठाचो होड्डु पुरोहित आस्सिलो। हांवें ते अधिकाराचो दुरुपयोगु केल्लो अनी जनांक फटयलो। ते पापकर्माचे दण्डरूपान हे जन्मान्तु हांव सूणे जल्लो। प्रभो, हे मनुष्याक उच्च पुरोहित केल्लो जल्यारि हांवं केल्लेलेंचि यो करतलो अनी लग्गी जन्मान्तु मेजेवरि सूणे जत्तलो, कोणेयिं हग्गेले मत्यारि मारतोलो। प्रभो, हें उचित दण्ड न्हंयवें ?"

सूण्यालें वचन अयकूनु सर्व हासले। पुरोहितान रामालगि क्षमा मग्गीलि। रामान सूण्याक स्वस्थ केल्लो अनी पुरोहिताक क्षमा प्रदान केल्ली। आखेर दयालु रामान दोग्गांकयि अमर स्वर्गराज्य दिल्लें। ❋

# खाणा ब्राण्डि



- टी. के. रामचन्द्र मल्या, करणकोडम

एयायि तुम्मि एयायि
धावनु धावनु एयायि
दामु पेट्टा घालायि
खाणां पट्टलि घेयायि. (एयायि)

दांत घासून एयायि
दाम घेवनु एयायि
खाणॅ घेवनु वच्चायि
खाणॅ खावनु चोयायि. (एयायि)

गोंया थकूनु हळ्ळेंले
गोयन्दान वचून हळ्ळेंले
गोड्डा पंक्कां घालेले
गोडसाणि खाणॅ आसा. (एयायि)

ताम्बीडि-ताम्बीडि मिर्यासंगेचे
ताम्बीडे-ताम्बीडे मीरान केल्लेलें
तुमचे खात्तिरि केल्लेले
तिकडे-मिटसे खाण आसा. (एयायि)

करणकोडचे तेर्यापन्ना पत्तोरोडो
कावेरक्कालो तिकटो-गोडसो पत्तोरोडो
रोंट्टस्, मूळीक्, लड्डु आनि जंबूळ
रोंटि तिकटि-गोडसि आसा. (एयायि)





ह्यीं (टी.के. रामचन्द्र मल्या)
9.1.2018 क दिवंगत जल्ले।
भावपूर्ण श्रद्धाञ्जली अर्पण करतायि।

## हें तुमका कळता व्हे?

कोंकण्यांगेले आचार-विचार

- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

### निष्क्रमण - चेर्डाक पांय घालप.....

चेरडुं जन्मु घेवनु तीन मास निस्सरतरी तां ताका देवाक पांय घालप. तीन मास म्होणचे नक्षत्रा लेक्कान न्हय, णवी दीस (90 दीस) पुर्तेच जावंका म्हळ्ळेलें तां लेक. प्रथम जावनु चेरडाक घराचे भायर काडप तेद्दूस तां. चेरडुं भरचो लोकु दिक्कतायिय पांय घालचे दिस्साच तां. तीन मास निस्सोरचे स्वल्प फूडेच जाव्नु कुटुम्ब पुरोहिता लग्गीं वोच्चून चेरडाले निष्क्रमणाक अस्सिल्लो मुहूर्तु (दीसु) चोयतलीं. चेरडाक पांय घालूक देवळांतु व्हरताय प्रमाणी ताग-तागेले लग्गीचेच बन्धु-बाधवांक चेरडा ओट्टु एवंचाक आमंत्रण दित्तलीं.

साधारण रीतीरी सक्काणी समयार तां चेरडाक देवळांतु व्हरप. चेरडालीं म्हलगडीं मनीषं, आवसु-बप्पूसु, बन्धु जनां सर्वय एक व्होराण सी जावनु तां देवळांतु वच्चाक भायर सर्तलीं, घरकडे थाकून भायर सरचे फूडेच जावनु देवा कूडींतु व्होरनु चेरडाक पांय घालनु, कुल-देवाक, तिरुपती देवाक सग्ग काणीक काडून दवरतलीं. तज्जे फूडेच जावनु कुडींतुल्यो दिवल्यो, थन्नावेलो दिवो सग्ग जोळोवनु दव्वरतलीं. *(शेष लगी अंकान्तु)*

## चेर्डुवांलि चित्रँ





कु. श्रीपार्वति ए. किणि (11) । कोच्चीचे अडॅ. बी.एम.अजित किणि अनि दीपा हांगेलि सुपुत्रि ।

## आदगति गुंतिले काव्यमाला

- नागेष अण्वेकर, कारवार

सेजारि पळौन दोळति करचें
पंक्ति पळौन जवण करचें विवेक चमकणि
आळशि खोडो सुधारण जाना
हरिवि भिखंड सुध्धा खावुंक मुखारिसिता



## समाज

- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

मानवु एकलोचि लोकान्तु येत्ता
एकलोचि पोरतून वत्ता
जल्यार जनन थकून मरण थांय
समाजाचे मुष्ठीन्तु सिर्कता।

जीवन म्हळेले एक महा सागर
एळतडि जनन पेळतडि मरण
समाज तन्तूले तरंग
करयता ते महासमुद्राचे तरण।

एक समाजान्तु थकून धांवतल्याक
वेगळे समाज गिळता
विंगड विंगड जनाक धोरनु
समाज बळान फांति व्हिणता।

'समाजाक दिंवना मान, मक्का व्होडु हांवचि'
मानवा तूं उल्लयता मस्त तत्व
तू समाजान्तु उद्देलोलो समाजान्तूचि बुडतोलो
ते नत्तिल्ले तुगेले कसले अस्तित्व।

## ध्यान करता....

- लता रंग मल्लन, माळा



ध्यान करता ध्यान करता
हांव तुग्गेने साम्बवा
धावनु धावनु धरारि यो
धरारी यो सदा शिवा
धरारि यो सदा शिवा (ध्यान...)

लोक रक्षणार्थ जावनु उग्र
विष पान केल्लेल्या
तज्जे पसावत नीलकण्ठु
जल्लेल्या जल्लेल्या (ध्यान...)

नागांक गळ्यारि अभय दिल्लेल्या
तिस्सरे दोळ्यान दृष्टि घालनु
दैत्यांक नाशु केल्लेल्या केल्लेल्या
(ध्यान....)

धन्य करि यो जन्मु यो जन्मु
चांगु वरु दीवनु
धन धान्य अंका दीवनु
दारिद्र्य नाशु कॅरि तु कॅरि तु (ध्यान...)

---

10.12.17 विश्व कोंकणी केन्द्र, मंगळूरु :- बसव समिती, बेंगळूरु अनि कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, मंगळूरु एकडे मेळ्नु "वचन" कोंकणी अनुवाद लोकार्पण सुवाळो घडेय्लो।



विश्व मानव महात्मजी-16

कृष्ण नारायण नायक, कोच्ची

## "धन समाहरणान्तूयि समर्थु"

प्रवर्तनाक दामु खूब जाय। बोंवण्डेक, मुद्रणेक, बर्पसर्पाक, कार्यालय व्यवस्थेक, कार्यक्रम घडोंवचाक..... तस्सि सग वेच आस। एकल्यान मात्र न्हंय, एक्केकेल्यानयि यथाशक्ति दींवका। वैभवान सग चोलका, सगटांक आशा ती। पुण तें जांवचे कस्सि ? दित्ता सणा हाथु चुर्म्बुटेल्यारि सम जांवचि ना। जल्यारि ते मन्नान्तु वत्ता वे ? मासाक बारा षिलिंगा लेकान दिंवचाक आरांभून गान्धीजीन मातृका दाकैलि। हल्लूनत्तिले जना मुकारि सडळ जांवचाक नज म्हुण गान्धीजीन निर्णयु धर्लो।

भारतीयानि वासु कोर्चे एकेक संकेतान्तूयि सम्पर्काक संघ जाव्नु वचें गान्धीजीन प्रारंभु केल्लो। तस्सि धूरा, एक थांगाचे ग्रामान्तु पावलिं। थंगाचो आतिथेयु वरिष्टु तं। तो फुडेचि दलान्तु अंगयि जला। अपैलेले प्रकारि वाट्रावासि सग पावले। शुभप्रतीक्षेन गान्धीजीन कार्यक्रमु प्रारंभु केल्लो। सगटालें मन्न विस्कळेंवका, तन्चान्तु चांगु उत्साहु भोर्का, येंचि देकि दवर्लि। तैयार कोर्नु दवर्लेले म्हळ म्हळ तराचें खाण जेवण वाडूक-वान्टूक यजमान सेवक संघ ओंसोरु दाकैता। पूर्ति कायरिं, प्रत्येक दाम्माचिं निश्चयु जावनत्तिलें खाण मेणान्तु मेळसल्यारि वोरोव सिजुन्ना, सग्ग फण्ण जात्तलें म्हुण गान्धीजीक कळता। गान्धीजीन अठौन दवर्लेल्याचें अर्ध दिंवचाक तं आतिथेयु आळें गालता म्हुण तान्तु मोर्धें सूचना मेळ्ळि। तागेलें मन्न फुलांवचाक गान्धीजीन दुस्सेरी श्रमु आरांभीलो। खंय! तो एक केल्यारि पर्त्तना। तसलि अवस्था गान्धीजीक न्हवी न्हय, फुडेय अनुभसल्या। मुखेस्थाक तस्सि सोणु दिल्यारि मगल्यांचि सग जाणयि एक लगेन खल्लाक तं मडैतलीं। प्रवर्तन मुर्डेतलें, अडळतलें। स् पौंडारि पुणीय थंगाचे यजमानान मत्तें हलैले वगळें सहमत जावना म्हुण गान्धीजीनयि हठ धर्ले। नत्तिल्यान न्हंय, मन्न नत्तिल्यान, ते सम न्हंय म्हुण गान्धीजीलो पक्षु। एकडच्यान भुकेन आगु लागून एत्तालो, अनियेक कडेच्यान उलौवनु वेळु उभता। रात्ति खयनेन पावलि। आतिथेयाक निवर्ति ना जालि। कडेरि, तो बावगलो। त्या हर्ष वार्तेक लागून एक्केकेल्यानचि तांगतांगेल्या उत्तरं दिलिं। उपरान्ते आहार कार्यक्रमूयि चन्दायेन जालो।

ह्या एक संभवान अनुयायियांक व्यक्त जालें - गान्धीजी लागि वेष कांयि चोंवकुन्ना। तांगेलि प्रवर्तन शैलि उतरां शक्ति मनशुद्धि सग बहु प्रभावन्त भिन्न म्हुण सगटांक मनान्तु जालें। ❊

# उक्कूळि - मेगेले दृष्टीन

- अनुसूया एस., इरिञ्जालकुडा

सारस्वत जनांगेले प्रीतीचो पर्व उक्कूळि. हाका कामदहन म्हणूय संगताय. कामदहन म्हळेले शब्दांतूचि सकूनु हाजो अर्थु अंका मनांतु जात्ता. अंगेले भित्तरि आशिले काम नाशु कोरचो दिवसु तं उक्कूळि.

शिवरात्रि जालेले उम्मासेक फोद्याक वजून हाणु पिंपळाचेरी लंबेयताय. फालगुन मासांतुले पुन्नवेक फोद्याक लासताय. उम्मास म्हळ्यार काळूकु.... अंधकाराचे प्रतीक. पुन्नव म्हळयारी उजवाडु. अज्ञानांतु सकूनु ज्ञानाकडे वचे बगेक आशिल्ले प्रयाण तं उक्कूळि.

साधारण कसलेयि साधन उन्मूलन कोर्का जाल्यारि अम्मि तें लसून पर घलताय. अंका आवश्य नत्तिलें झाड, तोण सग मूळ समेत हुमाटून लसताय ना जाल्यारि तें दुसेरी किरळेव्नु एत्तलें. त्याचि वरि अंगेले भित्तरि आशिल्ले बल्लाव स्वभाव संस्कार मूळ समेत हुमाटूनु पर घालका. मुख्य जाव्नु पांच विकार - काम, क्रोध, लोभ, मोह अनि अहंकार - हाजो वंश समेत एक अंश सरी दवोर्नत्तिले भस्म कोरचो दिवसु तं उक्कूळि.

फोद्या लसून जाल्यारि हळदी उदकान न्हाताय. साधारण मोडे लसून जाल्यारि न्हाव्नु शुब्द जांवका. त्याची वरीन अंगेले भित्तरचे दुर्गुण सग्ग भस्म कोरनु जाल्यारि ज्ञानाचे उदकान अम्मि न्हांवका.

उक्कूळि जावनु लगीचि युगादि पर्व (संसार पडवो). नवे वर्षाचो आरंभु. अंगेले परणो संस्कारु सग वोच्चूनु नवो संस्कारु अंचे भित्तरि भोरचो दिवसु. उपरान्तें रामनवमि महोत्सवु. कामदहन जावनु शुब्द जालेले मनांतु रामालो जन्मु जात्ता, एकि म्हण्णी आसा.



**"रामु आशिल्ले कडे काम ना**

**काम आशिल्ले कडे रामु ना"**



अतां केरळान्तु चोंवकुचे बायलांचेरी अनि चेर्डुवांचेरि आशिल्ले अत्याचाराक मुख्य कारण अनियन्त्रित जावनु अशिल्लो काम विकारु म्हणु सगटांकय कळता. ह्या संदर्भारि उक्कूळीचे महत्व अम्मि मनां कोरका. केवल एक पर्व म्होणु लेकुनत्तिले तज्जे मगल्यान आशिल्ले आध्यात्मिक रहस्य मनां कोरनु उक्कूळि आचरण कोरका.



# उक्कूळि अथवा कामदहन

एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

उक्कूळि म्हण्चे कित्तें? आबाल-वृद्ध जनां लागी निमगितच उत्तर मेळ्तलें कि मञ्ञक्कुळि (हळ्दीचे उदकान न्हाण) तां उक्कूळी म्हणु. हें वास्तव वे म्हणु कोणय निमगिता की? कोणय पुणि सोद्दूनु काडूंक प्रयत्नु काडता की? ना. कदापि ना. कोंकोणे केरळान्तु राबूनु हांगाचे संस्कृती स्वायत्त करूंक लागले ते कारणवश तां हांगाचे उत्सवांक मानूका जालेलें म्हणु वादु करतासताना केरळांतु खंयपुणि फोद्याक लासप जावो हळ्दी उदकान न्हाण जावो आसा की म्हूणु आमकां सोद्दूका पडतलें. तंजावूर आदि महत्वपूर्ण सांस्कारिक केन्द्रां एक वेळा मराठ्ठा शासना खाल आसलें. ह्ये कारणवश आनी थंगाचे अन्य सामाजिक हेतून तमिळ्नाडाक "मञ्ञळ कुळि" म्हळ्ळ्लो उत्सवाघोषु अत्तांय भव्य जावनु चमकूनु येत्तस्सा. जल्यारीय हो उत्सवु केरळांतु कदापि मानून येवंचो न्हय. तमिळ आनी मलयाळ संस्कृतींतु थकूनु ऋण काडलेले पद न्हय "उक्कूळि". उक्कूळीचें समकी आसलो अर्थु उमंगु / हर्षोल्लासु (Ecstasy) आनी यादृश्चिक जावनु उमडूनु येवंचो कोपादि विकारु (ebullition).

क्रिस्ताब्द 1717 क कोच्चि येवूनु ते समया हंगाचे सामाजिक जीविताक "मलबाराचे बरप" (Mallabaarse Brieven (Letters from Malabar) पुस्तकाचे रचने वाटेन लोकाचे मुखार हाडलोलो डच विकार विश्शर (Jacobus Canter Visscher) हान्नीं कोच्चिचे कोंकण्याचे पासूनु विस्तारान बरवुंचे वेळार 'शिग्मो' उत्सवाचे (Chigma or Fortune) उल्लेखय केल्लेलसा.

आजि वरि स्वल्प भेद आसा जल्यारीय तशीच चमकूनु येवंचो आघोषु तां उक्कूळि. शिवरात्रीचे हेरदूसा 'फोदो' म्हणु बेयकोलाचो एकु पुतळो शिंगारूनु केरि-केरि भोवंडावनु जनांक वळखोवनु अंत्यार देव्वळाचे उत्तर-पश्चिम (वायु कोण) दिक्कार व्हडचो पिंपळारुकारि बांदूनु घालताय. अतिशयु किति म्हळ्यार एक वेळे केरळदेशाचे भायर पर्यन्त सुविख्यात आसिल्लें तृक्कण्णामतिलकम शिवालयाचो स्वयं म्हादेवु (गुरुवायूर श्रीकृष्ण देवस्थान ते वेळा ह्ये शिवालयाचे खाल एक सनच देवळ आसिल्लें खंय) आमी कोंकण्यांलो हो आघोषु चोवनु प्रसन्न जावनु कोच्चीचे व्हड देवळाचे लागींच ध्यानार बेसला.

शिवाक कामिक लिंगाचे रूपानय शक्तीक लौकिक योनीचे रूपानय मात्र मानून येयलोलो मुमुक्षु आसलो जीवात्मस्वरूपी साधकान (कामदेवु) तगेले कामस्वरूपी मनाक (रतीक) मुक्कार दक्कोवनु आकर्षण करूंक निश्चिय केल्लो आनी फोदो (स्त्रैण लिंग) दाखोवनु खेळु केल्लो. एक समूह मुक्कार वच्चाक धर्म बोधु आवश्य ना म्हणूय दांपत्य आदि सगट संस्कारु सबाव कामप्रीतीक जाव्नु आस्सिल्ले म्हणूय दोनि शरीर मेळ्नु मात्र तां वंशु मुक्कार वत्तलो म्हणूय शासनारहित जावनु मनाक अशितशि चरूक पेट्टोव्यात म्हणूय आस्सिल्लें भ्रष्ट मनोविकारांक दोरि मेक्कळनु सोडचानीक साधकाचे लौकिक बोधाक नाशु करूंक निश्चयु काडलेले म्हादेवान ज्ञानाचो दोळो विस्कळावनु मनाक नाशु केल्लो म्हणु उत्सवाचे सारतत्व. *

## गोश्रीपुरेशा - श्रीकर बी. भट, कोच्ची

गोश्रीपुरेशा वेंकटरमणा
तुगेले सन्निधिं एवनु एकु नमस्कारु
मिगेलो जन्म साक्षात्कारु।।

तूंचि विद्या तूंचि धन तूंचि मिगेलें जीवन्
तूं नंतन् कोण मक्का शरण
तूंचि मक्का शरण देवा तूंचि मक्का शरण।।

तुगेले नाम स्मरण केल्यारि
मेळता मू कोटि कोटि पुण्य
जत्ता जीवन् साफल्य तुगेले दिव्य दर्शनान्।।

जन्म जन्मान्तर केल्लेले पुण्यान्
मेळ्ळें मू देवा तुगेले शरण्
वेंकटेश्वरा कलियुग वरदा
दी अंका अभय गोश्रीपुरेशा।।



::



## गुल्लीयो कित्ति सांगताय - 44



एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

### कालु आनी संचार गति:

ते मर्दीन एक राशींतुल्यान प्रत्येक ग्रह संचारु करचो सामान्य समयु :

सूर्यु : 1 मासु
चन्द्रु : 2¼ दीस
कुजु : 49 दीस
बुधु : 1 मासु
गुरु : 361 दीस
शुक्रु : 1 मासु
शनि : 2 वर्ष 5½ मास
राहु : 1 वर्ष 6 मास
केतु : 1 वर्ष 6 मास *(शेष लगी अंकान्तु)*



## करणी - के. अनन्त भट्ट, कोच्ची

तसली करणी करि तू मानवा! जगाक जी हित करता।
कसलें केल्यारि नांव तुगेलें, मरणा नंतर वरता।।प.।।
रावणु ताकाचि म्हणका जो, त्रास जगाक दित्ता।
जीवन द्रोहाक जावचें तागेले नांवाक जनपद भित्ता।।1।।
रामु म्हणचो जो जगाचे खात्तिर, करणी हितकर करता।
काम क्रोध मद सोणु जगाक, आदर्श मुकारि धरता।।2।।
बरें आनी वाय्ट भरलेल्या जगांतु, बरेंपण जो आपणायता।
करणी तागेली उजवाडु भरता, दीवे खुशीचे लायता।।3।।

**DD 9 - चन्दना** : मासाचे दुसरे अनि चोवते मंगळाराचे देन्पारां 3.30 वरारि अनि तजे लगीचेचि शनिवाराचे देन्पारा 11 वरारि कोंकणी कार्यक्रम चोय्यायि।

### धर्मादि चतुष्टय

धर्मु, ज्ञान, वैराग्य, ऐश्वर्य।

वेजिटबळ ओम्लेट

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

**सामग्री**

1. चॅण्या पिट्टि - 200 ग्रां
2. पिय्यावाचो कोच्चोलु - 100 ग्रां
3. जीवि मिरसांग (अड्डायेन चक्र जाव्नु सिन्दिल्ली)- 5
4. मिट्टाचि पुड्डि - आवश्याक
5. तक्काळि (Tomato) कोच्चोलु - 2 - 3
6. करबेवा पत्ती (पिस्सुळेलि) - 1 मूष्टि
7. जीरें - 1 चमच
8. तेल ना तूप - पोळे काडूक

चॅण्याचि पिट्टि गूळि मण्डना तसी उद्दाक आनी मीट घाल्नु, पोळे कड्चे लेक्कान कल्लौंका। वॅयरि 2 थकूनु 8 पर्यन्त संगिल्लिं सामग्री तन्तु मिश्रण कोर्का। पोळ्याचि कायलि चांग जाव्नु तप्तॅरि, तेल ना तूप सारोव्नु पोळे काड्का। वेजिटबळ ओम्लेट तैयार।

## चूकि मात्र् दिक्कूचे मनुष्य्



- वसन्तकुमारी पी. एस., कोच्ची

एक गावान्तु एकु शिल्पि अस्सिल्लो। ताणे एक दीस चांग एक गणपति विग्रह कोर्नु देवालयान्तु पावेय्ले। जन् ते चोंवचाक एक्कडे जल्लिं। एक्केकेल्यानि एक्केकु अभिप्रायु सांगूक आरांबीले। एक्कोलो संगता तं "हज्जे नाँक चोंव्चाक चाँग दिस्सना। स्वल्प लगि चाँग कोर्का।" ते अय्कूनु शिल्प्यान तग्गेलि ऊळि काणु एदे पावटि गणेशाले सोण्डाळेचेरि संत प्रयोगु केल्लो।

ते जाव्नु ते मान्य मनुष्या लागि निवंगीले - "अत्तं कश्शी अस्स ?" म्होणु खाल पळ्ळेलि पाषाणा पुड्डीयि गणेशालि सोण्डाळेय चोव्नु - "चिन्ना, अत्त चाँग जल्ले" म्होणु संगूनु तो मनीषु गेल्लो। तवळि लग्गि रबिल्ले एक मान्यान शिल्प्या लगि निंवगीले - "कोणेय संगिल्ले अयकूनु तू शिल्प तस्सूक (मिनुक्कि कोरूक) गेल्लोलो इत्याक? तवळि शिल्पि सांगता तं, "कोणे इत्ति केल्ले म्होणु कि ? हांवे सबाव उळियेन जोरोव्चे मट्ट दक्केयले, एद्दि पाषाणा पुड्डी भुंयचेरि फपूळि। खंत्तयीयि चूकि मात्र दिक्कूचे मानवांक समाधान कोरूक तें पूरो नवें ?" अम्मि खंचेयि कार्यांतूयि चूकि मात्र दिक्कूनत्तिल्ले चाँगयि दिक्कूक सिक्कूका। *



**सुभाषित**

प्रो. के.एन.आर.भट
कोच्ची

"षड् दोषा पुरुषेणेह हातव्या भूतिमिच्छता।
निद्रा तन्द्रा भयं क्रोध आलस्य दीर्घसूत्रता।। "

अपण्यालि उन्नती इच्छा कोर्चे मनुष्यान सॅ तराचे दोष ताका लग्गूनत्तिल्लें रक्कूका। अत्यधिक नीद, लोक संपर्कु नत्तिल्ले मौनि जावनु अस्सप, भय, कोपु, आळसाय आनी वायट काम कोरचें, यें त तें स दोष।

**(केन्द्र) साहित्य अकादमी अनि कोंकणी कार्यक्रम** 17.12.17 सारस्वत महिला समाज सभाघर, गावदेवी मंदिरा लग्गी, डॉ.काशिबाई नवरंगे मार्ग, गावदेवी, ग्रांट रोड (पश्चिम) मुम्बय :- साहित्य अकादमी आनी माटुंगा मित्र मंडळ हांच्या जोडपालवान आयोजित "साहित्य मंच" कार्यावळींतु (चंद्रमा बिजूर लिखित कोंकणी कादंबरी एक विंगड वाट अभिवाचन) साधना कामत, वृंदा तलगेरी, विनोद तलगेरी, दिव्या विणेकर, हरीश चंदावर हन्नि भागु घेत्तलो।

22.12.17, रंधावा सभाघर, पंजाब आर्ट काउंसिल, रोज़ गार्डन, सेक्टर 16 - बी, चंडीगढ :- साहित्य अकादमी "युवा पुरस्कार - 2017" वितरण कार्यक्रमु जल्लो। अमेय विश्राम नाईक कोंकणी विभागान्तु पुरस्कार विजेता अस्सिले।

28.12.17, टाऊण हाळ, अगर्तला :- साहित्य अकादमी "अनुवाद पुरस्कार- 2016" वितरण कार्यक्रमु जल्लो। कोंकणी विभागान्तु पुरस्कार विजेता मीना काकोदकर अस्सिल्लि।

29-30 डिसंवर 2017, सईद भगतसिंग युव अबास, खेजुरबगान, अगर्तला :- साहित्य अकादमीन आयोजित केल्लेले "अभिव्यक्ति" कार्यक्रमान्तु 29.12.17 क कोंकणी प्रतिनिधि जाव्नु आर. एस. भास्कर हन्नि भागु घेत्तलो।



**संत कबीरदास दोहा** -



एन. लक्ष्मण मल्या, कोच्ची

"कस्तूरी कुण्डल बसै मृग ढूंढै बन माँहिं।
ऐसे घटि-घटि राम है, दुनिया देखै नाहिं।।"

कबीरदास संगता इत्तें म्हळ्यारी कस्तूरी चितल तिज्जे नाभींतूली कस्तूरि मनांकरना कस्सि की, तेची मट (लेकान) मनुष्यु तज्जे आत्मांतु निवासु कोर्चे देवाक मनांकरना। तेंचि दिकून तो देव्ळान्तु, मस्जिदांतु सग्ग देवाक सांधून भोंवता।

## रस्पति - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर



**Dr. P. N. N. सिंह**
**डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह**
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

धोलक्रष्ट विनोद : डॉक्टर माम, दशावतारान्तु श्रेष्ठु सुग्रीव नवें ?
डॉक्टर - प्रश्नु ना, वखद दित्ता, ना जल्यार तूंचि एकु अवतारु जत्तलो।

* * * *

गिरगिरि मामु : डॉक्टर, मक्का ऐरावत चोव्चाक वहु मोगु। वाट अस्सवे?
डॉक्टर : प्रश्नु ना, वखद दित्ता। उपरान्ते लगीचे पुलीस स्टेशनान्तु कयरीं बोध्य केल्यार, चौदा लोकूयि तन्त्रि दकोव्नु दित्तलीं।

### आळें (കടങ്കഥ / Riddles)

पय्यांचेरि तं दोळे,
तोण्णान्तु दान्तु ना,
जल्यार चब्बूक कळता।

कत्तरि



## परणी म्हण्णी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

✦ कोणे जल्माक हळ्ळा
तोचि तांचे पोट भरतोलो।

✦ कुल्यार गुद्दो मर्लो म्होणु दांत पोण्णा।

✦ जंव्चाक एकु दीसु,
मोरूक एकु दीसु।

✦ हांव मार्लेले मट (लेकान) करता,
तूं रळेले मट करि

✦ दुड्डु म्हळयारि मोडेंयि तोण्ड
आं करता।।

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

चिप्पॅटॅ - കരണ്ടി/ സ്പൂൺ - Spoon
थापट/सित्ता दायि - ചപ്പേടം - Rice Paddle
दायि - പരന്ന കയിൽ/തവി - Flat Ladle
दाव्लॅ - ചെറിയ തവി - Small Ladle
दवलो/ दौलो - കുഴിഞ്ഞ തവി - Scoop
कसूट - എണ്ണത്തവി - Oil Scoop
कय्लातो - ചട്ടുകം - Spatula
चाळींदायि - കണ്ണാപ്പ/ഓട്ടത്തവി - Skimmer/ Straining Spoon/ Mandarin Strainer

औषद पंक्ति - 72

**अज्जेलीं वोक्कदां**

(मुत्तश्शि वैद्यं)

सुशीला टी. भट्, कोच्ची

## तोर (गर्भिण्यांक येवंची सूजी)

मास जावनु येत्ता तशीच गर्भिण बायलांक पायांक, तोण्डाक (थोगडे बायलांक शरीर सगळेंच) सूजी येवप असा. म्हलगड्यो बायलो हाका "तोर" म्हणतलीं. गर्भावस्थेचे पांच मास उपरान्तें तां अधिकय जाणांक पारंभु जावप.

जेरिज्जिला उद्दाक तां हाजे सर्व प्रथम औषध. दीस सगळोच जावनु सात-आठ खोल्ले जेरिज्जिला उद्दाक पिवेयतलीं. सात मासांचे नन्तर कुरन्तोटी [കുറുന്തോട്ടി / Country Mallow, Arrowleaf Sida, Cuban jute, Jelly leaf, Queensland hemp (*Sida rhombifolia* )] मूळांचो कषायु करून, सकाळी-सांजेचे एक्केक खोल्लो कषायांतु ½ चिप्पट गायचे तूप घालनु पीवयतलीं. (एक मूठ भरी कुरंतोटी मूळ धूवनु, धड्डावनु स खोल्ले उदकांत खोतखोतो काडून चार खोल्ले करतलीं - कषायु जालो) हें सग्ग दीवनूय तोर वूणे जायना जल्यारी मात्र वैद्य सहायु घेत्तालीं.



## खाण

- ए. पी. भानुप्रकाश, पच्चाळम, कोच्ची

रेवेंतु नाकटान खरपोवनु
चोंच मारनु ऊंचारि काडलो
कोंबेन एका व्होळ्ळया गांवडोळाक
सान सान कुडके केले गांवडोळाचे
कोंबेन तिगेलो चोंचेन
कोको, कोको, को को, को को को...
शब्द काडनु उळदीले कोंबेन तिगेल्या पिलांक
धावन धावन आयली पिलां
एक एक कुडको चोंचेन काड्डून
धावन धावन गेलीं पिलां
खाले पिलांनी गांवडोळा कुडके।

### कोंकणी पुस्तक प्रकाशन

07.01.18, मडगांव (गोंय) रवीन्द्र भवनाच्या ब्लॉक बोक्सांतु :- "रस्तो नाट्य : द फर्स्ट थियेटर" - संदेश प्रभुदेसाय।

08.01.18,(गोंय) रवीन्द्र भवनाच्या कोन्फरन्स हॉळ : "सावित्री" (कादंबरी)- डॉ. नंदकुमार कामत।

## होळी, पोळी, उक्कूळी

- एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची



कुंभ मासा उम्मास जल्ली
फोद्दो एयलो पिंपळारि
पुन्नवेक एयलि होळी
मड्डीयो पुर्ली दोनि।

वजपान हळ्ळो फोद्द्याक
भोवंडाय्लो केरीं केरींतु
घल्ले वेष चेर्डुवानीयि
लय्ली कुंकुम म्हलगड्यानीयि।

गोयान्तूले कोंकणी जन अग्मि
करतायि आचारु कामदहन्
दित्तायि फोद्द्याक अग्नीक्
खत्तायि रोंटस्सँ घरकडे।



केरीं केरीं धावनु भोवनु
लट्टी उदका न्हाण घेवनु
रक्कूनु एंचो उत्सवु अंचो
जाण जांवका मन्त्र दीवनु।।

30.12.17 ("बालाजी डिवोटीस" ले आभिमुख्यारि जल्लेले श्रीमद् भागवत सप्ताहानुबन्ध जाव्नु) वरदेन्द्र कल्याण मण्डप, CTD देवस्थान, कोच्ची :- पाण्डुरंग कलाकेन्द्राले कोंकणी पुराण लघु नाटक "श्रीकृष्ण सुदामा" खेळेय्लें।

कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित प्रतिमास कोंकणी कवि संगमं 'हेविळम्बी-मार्गशीर्ष' 16.12.17 क एन. सदानन्द कम्मत्त हंगेले घरकडे दोवोर्नु अनि 'हेविळम्बी-पौष' 16.1.18 क सुशीला टी.भट हंगेले घरकडे दोवोर्नु जल्लें। 'हेविळम्बी-माघ' 3.02.18 क 4 वरारि सुशीला टी. भट हंगेले घरकडे दोवोर्नु जत्तलें।

## अग्किल्लि रस्पति



बम्हूणु - कालि हांवे चाँग एक सपन दिक्कीलें!

बाय्ल - इत्तें म्हणे ?

बम्हूणु - हांव स्वर्गारि वत्ता खंय! अतिसुन्दरि अप्सरस् मक्का घेव्नु वत्ता खंय!!

बाय्ल - तन्तु हांव खंय ?

बम्हूणु - कोप्पूक नज्ज! गोन्दोळु घालूक नज्ज! हांवे घूव्नु चोय्तना, तुक्का कालु घेव्नु वत्ता जाव्नु दिक्कीलें।

(ह्यें अयकूनु बाय्ल भित्तेरि गेल्लि। बम्हूणूयि मगल्यान धावलो)

बम्हूणु - तुजेलगि संगीले मू, कोप्पूक नज्ज म्होणु !

बाय्ल - ते बगेक मक्का कोपु कांयि ना मू ! तुम्का हंगायि अतिसुन्दरि.... स्वर्गारीयि अति सुन्दरी। मक्का... हंगायि कालु... थंगायि कालु... तितलेंचि।

## सूर्यरथाचे सात घोडे वेदाचे सात छन्दान निर्मित तं (लिङ्गपुराण प्रकारि)

1) गायत्री 2) बृहती 3) उण्णिक् 4) जगती 5) त्रिष्टुप् 6) अनुष्टुप् 7) पंक्ति

## क्षीरसागर

- टी. उमेश भट्, कोच्ची

क्षीरसागर शयना नारायणा
गरुडागमना श्रीलक्ष्मीरमणा
वैकुंठनाथा श्रीमन्नारायणा
श्री पद्मनाभा नमो नारायणा।।

देवादिदेवा इन्दिरारमणा
परमात्मा हे भवभयहरणा
परमानन्दा वेंकटरमणा
हरि गोविन्दा करि तुं करुणा।।

दर्शन तुगेलें मोक्षप्रदायक
स्मरणं देवालें मुक्तिदायक
कीर्तन श्रवणान शांति मनांक
देवाले दयेक नमन चरणांक।।

24.12.17 डी.डी. मलयाळम सक्काणि 8.00 - 8.30 : "सुदिनं" कार्यक्रमान्तु "**कोंकणी साहित्य संस्कार अनि गीन्त**" ह्यो विषयाचेरि कोच्चीचि बिन्दु जयप्रकाश प्रभु हंगेले संदर्शन (Interview) अस्सिल्लें।

30.1.18 सिन्द्रा भोगोन्ती देवळाकडे कोच्ची कलाक्षेत्राले "**पुण्यजन्मु**" कोंकणी सामूह्य नाटक अस्सिल्लें।





9845495055. Anil Das.

